# जीण ही अशी

- कविता -

- प्रा. अशोक नायक







जैत प्रकाशन

**जीण ही अशी** (कविता)

- प्रा. अशोक नायक

Jeen He Ashee (Poety)

- Prof. Ashok Naik

---





- प्रकाशन क्र. : २४

- पयली आवृत्ती : ऑक्टोबर २००४

- छापपी : सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम,
खोर्ली-गोंय ४०३ ११०.

- मुखचित्र : सुरज नाडकर्णी

- प्रकाशक : सुरेश सगुण नायक,
जैत प्रकाशन
२३६/११, खोर्ली
तिसवाडी, गोंय ४०३ ११०
फोन : २२८४६३७

मोल : ७०/-





ISBN81-86487-99X

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणे खाला छापलां

आम्चें
जिवित फुलचें खातीर
दीसरात
पावसान भिजून
वतान करपून
थंडेन कुडकुडून
आम्चो
सांबाळ करपी
म्हजे
सर्गेस्त आवयक (सावित्री)
आनी,
शिक्षणाच्या म्ळार
उजू वाट दाखोवपी
म्हज्या
व्हडल्या भावाक 'भिकूबाबांक'

- अशोक

# कविता : जिणेची.... मनाची... संवेदनेची

कवी अशोक नायक हांचे प्रतिभेचो हो पयलो चंवर. तांच्या ह्या पयल्या पुस्तकाच्या रुपान तो वाचप्यांमुखार येता. हो चंवर कवितेच्या माध्यमांतल्यान आयला आनी ती कविता मुक्तछंदांतली आसा. मुक्तछंदातलीच न्हय तर ती बंधनमुक्त आसा. जीण जशी विविधतायेन भरिल्ली वाट चलता तशी ही कविता विशयांची, उतरांची, रुपाची विविधताय आपणायत वाट चलता. त्या संदर्भांत 'जीण ही अशी' हें ह्या कवितां झेल्याक दिल्लें नांव मुदयेर थीक कशें सोबता.

ही कविता अंतर्मुख जाता तेन्ना मुखार आशिल्ल्या 'तूं' क लेखून उलयता. पूण 'तूं' हो फकत 'तूं' नासता. तो 'हांव' आसुंयेता वा आमचेमदलो कोणूय आसुंयेता. कवी जें तुका म्हूण सांगता तें तुका, म्हाका, सगल्यांकूच लागू जावंयेता. 'सत्य', 'स्वार्थ' ह्यो ते तरेच्यो कविता.

कांय कविता मनाचीं कवाडां उगडटात तर कांय मनाचीं तरेक तरांचीं रुपां उक्तीं करतात. आनी मनाचें म्हत्व सांगतना कवी म्हणटा :

**मन वळखूंक**
**मन जाय**
जर
**मनूच नासत**
तर
**मनाक**
**वळखतलो कसो ?**

ह्या झेल्यांतल्या कांय कवितांक तत्वगिन्यानाची झालर आसा. त्या कवितांनी गूढ अर्थ भरिल्लो आसा अशी भावना जाता. वयर-वयर एक अर्थ लावंयेता, पूण कवीक वेगळेंच कितेंय सांगूंक जाय आसत अशेंय दिसता. तें वेगळें कितें हाची जाप दर एक समीक्षक वा चिकित्सक वाचपी वेगळी दिवपाची शक्यताय आसा. घडये, कवितेचें आस्वादन करतल्याक विचार करूंक लावपाचीय ती मांडणी आसुंयेता. 'खीण' ही कविता विचाराक तशी चालना दिता.




हो खीण
असो कित्याक ?
वायट-बरें
हांचे भितर
अंतर दवरिना
बरें-वायट
घडोवपाक
वेळ करिना

अशें कवी विचारता तेन्ना ताची जाप वाचप्या कणकणी वेगळी आसुंयेता. कवीची जाप घडये मेळची ना. पूण कवितेच्या क्षेत्रांत ती मेळचीच असोय नेम ना.

आदीं म्हळां ते भाशेन ही कविता तरेकतरांचीं रूपां घेता. केन्ना केन्ना ती चार वळींच्या 'चंवरां' चें रूप घेता. वळी तीन, चार वा पांचूच खऱ्यो; पूण जिणेंतलें सत्य पुरायेन सांगतात :

जांणी पोट-फाट
एक करून
काम केलें
तेच चार गोटे
खावंक पावले

ही थोडींच उतरां स्त्रमाचें म्हत्त्व सांगतात, तर

तानेक थाकाय
उदकाची
जिणेक थाकाय
मोगाची

हीं मेजून ६ उतरां ह्या संवसारांत मोगाचें म्हत्त्व केदें आसा ताची जाणविकाय घडयतात.

उण्यांत उण्या उतरांवरवीं भावना, उमाळो वा उत्फर्को उक्तावप हें कवितेचें

खाशेलेपण. श्री. अशोक नायक हांच्या कांय कवितांनी ती कुशळताय साध्य केल्ल्याचें नदरेंत भरता. 'एक जीव' हे कवितेंतल्यो चार वळी अशो आसात.

तुजें मन
म्हजें मन
मना-मनांत
पाचवें वन

फकत आठ उतरां ! पूण ही उतरां सृश्टीच्या माध्यमांतल्यान मोगात भरिल्लें नातें प्रभावी रितीन वाचप्याच्या मनांत उतरायतात.

कांय वेळा उतरां उक्तीं आनी स्पश्ट आसतात. ती जें सांगतात तेंवूय नवें न्हय. तरी पूण तीं एक खेरीत परिणाम घडयतात. जशे परी 'आयल्यात तशे' हे कवितेंतली हीं उतरां :

आयल्यात तशे
वतले रे
चलप कांय
थांबना रे
कोण कोणाक
रावना रे

कांय वेळा सदचींच सादीं उतरां कवीचे लिखणेंतल्यान अशे तरेन एकठांय येतात की कवितेची एक सोबीत-सुंदर रांगोळी जाता. अशी रांगोळी जाल्ली 'मोनीं उतरां' ही एक कविता:

तुज्या दोळ्यांत
अळंग हांवें
म्हजीं मोनीं उतरां
मोन्यानीच सोडलीं
आनी अजाप
तुज्या दोळ्यांक
म्हजें गुपीत समजलें

कवी अशोक नायक हांचो हो झेलो म्हणचे मोगऱ्यांची पटी न्हय. हो झेलो म्हणचे आबोल्यांचो वळेसर न्हय. हाचें कारण, एकाच विशयाचेर वा एकाच रुपांतल्यो ह्यो कविता न्हय. तरेक-तरांचीं फुलां एकठांय हाडून रचिल्ल्या नदर ओडून घेवपी तुऱ्याभाशेन हो कवितांचो तुरो. विविधतायेन भरिल्लो. ते नदरेन हाका कवितां-झेलो म्हणचे सुवातेर कवितां-तुरो अशे म्हळें जाल्यार व्हडलेंशें चुकचेंना.

साहित्य खूब रचचें, रचीत रावचें पूण लेखकान वा कवीन तें उजवाडा हाडपाची ताकतीक करची न्हय अशें कांय नामनेच्या लेखकांचें मत आसा. ते सांगतात तातूंत तथ्य आसा. पूण तो नेम लेखकाच्या वा कवीच्या पयल्या चंवराक लागू जावचो न्हय. लेखक वा कवी उजवाडाक येवचो, ताचे प्रतिभेची धा जाणांक वळख जावची हे खातीर ताचें पयलें पुस्तक उजवाडाक येवंक जाय. त्या पुस्तकांत जें बरें आसत ताची तोखणाय जावंक जाय. रचणूक खूब बरी आसत जाल्यार बरोवप्याची अपुर्बाय जावंक जाय. तातुंतल्यान ताका प्रोत्साहन मेळटा. ताची उमेद वाडटा. सवकासायेन बरें तेंच उजवाडा हाडपाचो नेम उप्रांत लागू जावचो. तो नेम आरंभाकूच लागू केलो जाल्यार पयल्या चंवरा फाटल्यान निर्शेणी येतली वा एखाद्रो लेखक म्हातारपणामेरेन बरयतूच रावतलो - उजवाडावपाचें टाळून. कोंकणी साहित्याचें ते तरेन लुकसाण जावचें न्हय.

अशोक नायक हे फकत कविता रचपी न्हय. हेर तरांचें साहित्य रचपाचीय क्षमता तांचेमदीं आसा. पयल्या पुस्तकाचे उजवाडावणेंत जी उमेद आसा ते उमेदींतल्यान कवितेक तांणी केळोवचीच; पूण हेर तरांनीय कोंकणी साहित्याची सेवा तांचे कडसून घडची अशी शुभेच्छा.

मडगांव : १५ आगश्ट २००४

उदय भेंब्रे

## जीण सारताना.......

म्हाका याद जाता, हांव तेन्ना णवेक आसलो. घरांत कोंकणी पुस्तकां, मासिकां म्हजो व्हडलो भाव हाडून दवरतालो. हांव ती पुस्तकां काडून वाचतालो आनी अशांतल्यान कोंकणी वाचनाची गोडी लागली. कविता खंयूय दिसली जाल्यार, ती हांव पयली वाचतालो. कवितांचो अर्थ समजतालो म्हुण न्हय तर त्यो ल्हान आसताल्यो. त्यो वाचून बेगिन सोंपताल्यो र. वी. पडिताले आयले तशें गायले, मनोहर सरदेसायाले जायात जागे हे कविता झेले वाचून काडले तेन्ना ते म्हज्या मनाक खूप भावले. अशानुच कवितांची गोडी लागली आनी म्हज्यातलें कविमन जागें जालें आसतलें. आनी हांव कळत नकळत जीण सारता सारता कविता बरोवक लागलो.

एकदां कविसंमेलनाक गेल्लेकडेन कवी बाकीबाब बोरकारांची भेट जाली. संमेलनाक तांणी म्हजी कविता आयकली आनी अशोच कविता बरयत राव फुडाराक आनिकुय बऱ्यो कविता रचूंक पावतलो म्हुण सांगले आयकून बरें दिसलें. तशेंच थारायलें. आनी अशेतरेन जीण सारता सारता... जिणेतले रंग अळंग कागदाचेर कवितांच्या रुपान देवपाक लागले. आयजमेरेन सुमार दोन डायऱ्यो रंगान भल्ल्यो. पूण डायऱ्यांनी थोडोच रंग उरिल्लो. बाकिच्या रंगाचो रंग उडून गेल्लो. उरिल्ल्या रंगांचो आयज जिणेकडेन संबंद आयला आनी तातूंतल्यानूच जीण सारतना सदच्या व्यवहारांतल्यो जायत्यो गजाली जिणेकडेन संबंद दवरून आयल्यो. त्या संबंदांक काव्याचें रुप दिवपाचें यत्न हावें केला. काव्याच्या रुपान ते संबंद व्यक्त जाल्या काय? ना हें सांगपाक म्हाका बरेंच कठिन वता. पूण जें काव्य जिणेच्या अनुभवान जल्माक आयलां ते वाचप्यांच्या मुखार दवरपाचो म्हजो हो यत्न आसा.

उपकारांत रावता.......

हें पुस्तक जल्माक येवपाखातीर आनी ते वाचप्यांच्या हांतात पावता म्हणसर बऱ्याच जाणांनी घाम गळयल्लो आसा. तांचे उपकार आठयना जाल्यार कशें जातलें ?

सुरवेक गोवा कोंकणी अकादेमीन "पयलो चंवर" येवजणेखाला हें पुस्तक उजवाडायला, देखून गोवा कोंकणी अकादेमीचे हांव काळजाथांवन उपकार मानता. जेष्ठ साहित्यीक, आनी कोंकणी भाशीक चळवळीचे मानदंड आशिल्ले तशेच आपल्या

शादोगातीच्या व्यवसायात पुराय व्यस्त आसून आनी बलायर्कीची अधून मधून तक्रार घालुनूय म्हज्या पुस्तकांक फकत थोड्याच दिसांभितर प्रस्तावना बरोवन दिवपी श्री. डॉ. उदय भेंब्रे हांचे हांव उपकार कशे विसरत ? तांचे हांव मनांतल्यान उपकार आठयता. म्हजो इश्ट आनी सुनापरान्ताचो उपसंपादक श्री अतुल पंडित हांणी म्हजेंय एक पुस्तक आसचें अशें सांगून स्वता फुडाकार घेवन म्हज्यो कविता वाचून त्यो निवडल्यो. अकादमीकडेन त्यो धाडून दी मेरेन म्हाका आदार दिलो. तांचे उपकार हांव कशें विसरत? जैत प्रकाशनचे धनी श्री सुरेश नायक हांणे हे पुस्तक छापून पुराय मायमोगान बरेंच त्रांस घेतल्या. तांचे उपकार मानित तितले थोडे. ह्या पुस्तकाक सुन्दर मुखचित्र दिवपी श्री. सुरज नाडकर्णी हांचे हांव मनापासून उपकार आठयता, छापखान्याचे धनी श्री. सुरेश बोरकार हांच्यानी हें पुस्तक छापिल्ल्यान तांचेय हांव उपकार आठयता.

निमणे प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष जाणीं जाणीं हे पुस्तक उजवाडावंक म्हाका पालव दिला तांचो हांव उपकारी आसा.

कुङ्काळी - गोंय प्रा. अशोक नायक

# मांडावळ

# कवितांची पूर्व उजवाडावणी

*राष्ट्रमत, सुनापरान्त, जाग, जैत, कोंकणी, ऋतु, आकाशवाणी आनी हेर नेमाळयांतल्यान उजवाडा आयल्यात.*

# उपासक

तुज्या सांगातान
आसून लेगीत
हांव तुज्या
सांगाताचो उपासक
तुजी प्रीत झालर
म्हजी अतृप्त जीण
हांव नियाळटा ----------

# नवें पर्व

हांव काम करतां
घाम गळयतां
दाम घेतां.

दीस-रात
खणींत लोळटां
माथ्यार कायल घेतां
जिवाची पर्वा करिनासतना
हांव काम करतां
घाम गळयतां
दाम घेतां.

कोणाचेंच खायना हांव
तुज्या बापायचें
तुजे आवयचें
तुज्या पुतांचें
ना म्हूण तुजेंय
हांव काम करतां
घाम गळयतां
दाम घेतां.

हांवे केन्नाच कोणाकडेन
कांयच मागलें ना
केन्नाच कोणाचें घेतलें ना
मागीर म्हाका
कोण आडायतलो
कोण म्हाका
पोटाक मारतलो
येयात फुडें
आंगात तुमच्या आसल्यार शक्त
सरात फुडें

कोणाचेंच खायना हांव
हांव काम करतां
घाम गळयतां
दाम घेतां.

आसत मूठ घट जर
दोंगर खणून वतलों हांव
गांव दुसरो, लागीं हांव
केलेबगर रावचोंना
नवें पर्व घडयलेबगर
फाटीं हांव सरचोंना

हांव काम करतां
घाम गळयतां
दाम घेतां.

# मनाच्यो तरा

एक मन
खुशालभरीत खिणांचें
उदारतायेचें

एक मन
इश्टागतीचें
शांतीकायेचें

एक मन
दुकांच्या झरीचें
मोगाच्या यादींचे

एक मन
कठोरतायेचे
नम्रतायेचे

एक मन
आपलेपणाचें
तिरस्काराचें

एक मन
खोल विचारांचे
एकाग्रतेचें

एक मन
भरवंशाचें
भवितव्याचें

एक मन
मनस्तापाचें
खुशालकायेचें

एक मन
बुदवंतपणाचें
अवचिन्नाळें

एक मन
जाणविकायेचें
बारीकसाणेचें

एक मन
हांसपाचें
हांसोवपाचें

एक मन
आपल्या-पेल्याचें
दुस्वासाचें

एक मन
सपनेवपाचें
जैताचे

एक मन
कुड्डेपणाचे
रिती-रिवाजांचें

एक मन
मन-मानांचे
तुज्या-म्हज्या
खोल स्वासांचे

# वळख

तुका अणभवलें

उपरांतूच म्हाका

तुज्या अंतर्मनांतलें

मन कळ्ळें

वयर वयर दिसपी

सादें भोळेंपण तुजें

कितलें खरें

तें म्हाका

आयज कळ्ळें

तुज्या नकली

सादेपणांत

तुज्यांतले असाधारणपण

हांवे आयज अणभवलें

आनी तुजी प्रत्यक्षांत

प्रचिती मेळ्ळी....!

# खीण

हो खीण
असो कित्याक ?

वायट - बरें
हांचे भितर
अंतर दवरिना
बरें-वायट
घडोवपाक वेळ करिना
हो खीण
असो कित्याक ?

इश्टांक तसो दुस्मानांक
खिणाभितर लागीं-पयस
करीत रावता
कोण इश्ट
कोण दुस्मान
ताका खबर आसना
हो खीण
असो कित्याक ?

जो खिणाभितर
संबंद संवसाराक
घुंवडायता वयर-सकयल
हो खीण
असो कित्याक ?

ताका खबर ना स्वातंत्र्य
ताका खबर ना पारतंत्र्य
तरी आसतना भोंवतणच्यांक
ज्युस्त चिमटो दिता
चिमट्याची गवाय दिता
तेन्नाच......
कोण एकलो
भानार येता
त्या खिणाक

हो खीण
असो कित्याक?

# मन

मन वळखूंक
मन जाय
जर
मनूच नासत
तर
मनाक
वळखतलो कसो ?

# माड

हो माड आपल्या
मोटेपणांतूच आसा
ताका खबर ना
आपल्या मोटेपणाच्यो शीममेरो
हो माड दुसऱ्यांक
पळयना, हटकिना
माड आपलेच
मस्तेंत आसा.

आतां......
माडार कोण चडना
नाल्ल कोण पाडीना
माडाक कसलेंच दुख्ख ना
हेर माडांवरी ताका
रडचेंय पडना.

अशींच कांय वर्सां गेलीं
सगळेच ताची तोखणाय करतात
म्हणटात
कितलो रसरशीत
कितलो घसघशीत
माड बेताळ कसो वाडाला
नालांनी उपाट भरला.

आतां.....

माडान
कावोच सगळो बदल्ला
ताचे नाल्ल सगळे
झडून गेल्यात
चुडटां सगळीं
पिकून गेल्यांत
आंगान माड
सुकून गेला
माड सगळोच बदल्ला
माड बोडको जाला
माडान आपलें
रूपूच वगडायलां
माड खूब भियेला.

आतां..... ....
माड वाऱ्यार धोलना
कोणूच ताका पळयना
माड आतां मिरयना
माड आतां किरयना

माड............
आतां 'माड' उरुंक ना!
नागडो बेताळ जावन
व्हीरान व्हीर धर्तरेचेर
तो शेंवटला
काळचक्राच्या भयांकृत
दाडवणातलो पिठो जाला ताचो
कोण विचारता ताका आतां
ताचें ताणेंच पळोवपाचें.

# चोरी

म्हज्या काळजाचो
थाव घेवपाखातीर
तूं
म्हज्या काळजांत देंवलें
काळजाचो थाव
तुका गावलोना
देखून
तुवें म्हजें
काळीजूच
चोरुन व्हेलें

# स्वार्थ

तुका बारीक साणेन
नियाळीत जाल्यार
म्हाका दिसता
तूं तुकाच फटयता
तूं तुज्या मनाक फट्यता
आनी आमकांय
फटयता.

आमी फटवनात
ही दुसरी गजाल
तूं तुज्या पातकांचेर
पांगरूण घालपाचे
काम बेस बरें करता
आनी अशे तरेन
तूं जिखता तसो
जनांक फटयता
मनाक कसो फटयत ?



ना म्हळ्यार
तूं बरोच बुदवंत
ना जाल्यार
बेठेंच कोणाकूय
हें काम जमता ?
फक्त तूं
आनी तूंच
हें असलें
नाडींगपणाचें काम करुंक जाणा
देखून तूं बुदवंत.

आयजमेरेन तुजें फावलां
करीत तें सादलां
सादलां म्हणचेपरस
तुवें तें वेवस्थित सादयलां
अशें म्हणपूच योग्य जातलें

खरें सांगूं........
अशें कितले दीस ?
काळ, काळ आसता
सत्य, सत्य आसता
आनी एक दीस
काळ आनी सत्य
हांचें मीलन जातलें
तेन्नाच सत्य
उजवाडा येतलें
तुज्या काळाच्या रुपान

# तुजी याद

तुजी याद
म्हज्या काळजांत
सदांच फुलां
जावन फुलत आसा
त्या फुलांचो वास
सगळो वाठार
परमळून सोडटा
तेन्ना त्या वाठारांतलीं
खुबशीं मनां
परमळात एकरुपी
जावपाचीं सपनां
पळयतात
अशा वेळार
कांय जाण
साकार जातात
तर..........
कांय जाण
चंचल मन
जाल्लें सावरुंक

सोदतात

मनाचेर ताबो

मेळोवंक सोदतात

साकार मन

गीत गायत

तुज्या यादींच्या

परमळान

सदांच रिणकारी

उपकारी

आनी..........

अशें खूब कितें तरी

समजुपाक लागता.

# एक जीव

तुजें रुप
म्हजें रुप
रुपा-रुपांत
वेगळें स्वरुप

तुजें मन
म्हजें मन
मना-मनांत
पांचवें वन

तुजे दोळे
म्हजे दोळे
दोळया-दोळयांत
काजळ काळें

तुजे ओंठ
म्हजे ओंठ
ओंठा-ओंठार
फुलता चंवर

तुजे पोले
म्हजे पोले
पोल्या-पोल्यार
नवें हांशें

तुजी जीण
म्हजी जीण
जिणे-जिणेंत
एक जीव

# नाटक

तुजे वेंगेंत

हांव

विसावलां

तुजी वेंग

म्हाका

पयसावल्या

# आमचो घास

आमचो घास खावंक सोदतल्यांनो
तुमचें पाडच जावं
अशें आमकां चड खंतीन
म्हणचे पडटा!
याद दवरात

तुमच्या पानार कितें आसा
कितें पडलां
ताचेरूच तुमची नदर आसुंदी
ओगीच दुसऱ्याच्या
तोंडांतलो घास
काडून आपल्या तोंडांत
घालपाक सोदुंनाकात

तुमकां आमी बोंबलेच्या
देंठांतल्यान आडून सांगतात
आमचो घास आमच्याच
तोंडांत आसुंदी
कितलोय बोवाळ मारलो म्हणून
तुमचें कांयच सादचें ना
आनी कांयच मेळपाचेंय ना
सभाग्यांनो.........!

तुमकां कसोच आमच्या तोंडांतलो
घास व्हरपाक मेळचो ना
तशें तुमचें आयजमेरेन
कांयच सादूंक ना
हे तुमी लक्षांत दवरात
आनी लक्षांत उरना जाल्यार
गांठीक मारून भोंवात नश्ट्यांनो
ओगीच आपलेंच तुणतुणें
वाजयत रावन
दुसऱ्याचेर शेक गाजोवंक
सोदुंनाका

सांगता पयलींच
आमी गोंयकार, नीज गोंयकार,
आमच्या पोटा आड
येत जाल्यार
सैल सोडचेनात
पेटून उठुले
आनी..... आमच्या
तोंडांतल्या घासाक
हात घालीन जाल्यार
घासासकट हात पोटांत पावयतले.

# जाय आसून मेळना

तुज्या मुखार
हांव सोबना
देखून तूं
म्हाका जाय
आसून मेळना
करचें कितें
कांयच कळना
कशें सांगूं ?
प्रीतीक म्हजे
तुजे विणें
रिते जिणें

# शेवट

जल्मभर
ताणें खूब सोंसलें
खुबूच
निमणें ताणें
घरा-दाराक
अख्ख्या-संवसाराक
पुराय उबगून
एक दीस
उमाशेच्या भर काळखावटेन
तो चलत रावलो.

# जीण

फटकिरी जीण ही
दुसऱ्याक फटोवपी
दुसऱ्याच्या नांवान
आपूणच जगपी

# दुकां

तुजीं
दुकां पुसपाक
हांव
मुखार सरलों
आनी
म्हजे हात
मोटवे पडले

# कोंकणी भाशेखातीर

गोंय आमचें
सुंदर सोबीत
सोबीत गोंयांत
आमी गोंयकार

गोंय आमचें
आंबे चंवर
आंब्या चंवरार
आमी गोंयकार

गोंय आमचें
गुलाबाचें फूल
गुलाबाच्या फुलांत
आमी गोंयकार

गोंय आमचें
गोंयकाराखातीर
आमी गोंयकार
कोंकणी भाशेखातीर

# एकूच विचार

आसलो मनांत
एकूच विचार
कित्याक सगळो
हो वेगळोचार?

केल्या देवान
सगळ्यांक एक
मागीर कित्याक
हो भेद ?

विसरुन आमी
सगळे भेदभाव
जावन रावुंया
आमी भयण-भाव

ह्या देशाचे
पूत आमी
कांय व्हड
कांय ल्हान

सगळे आमी
रावुंया एकमतान
करुंया आमचो
देश म्हान

# चंद्रीम

मळबांत धवींफुल्ल
कांय कुपां
कुपां मदीं
कांय भेंगां

कांय कुपां
लागतात धांवूक
हेवटेन-तेवटेन
वाग फाटीक
लागिल्ले भाशेन

भेंगां-भेंगांतल्यान
चंद्रीम पळयता
पुनवेचे चान्ने रातीं
चान्नें आमचेर
फांकोवन वता
एक हांसो मनाक
आमच्या दिवन वता

# निर्शेल्लें मन

आडमोडणार
उबो रावन
वाट
तुजी पळयली
पूण तूं
आयलेंच ना
निर्शेल्ले मन म्हजें
सैर-भैर जावन
लागलें घरची
वाट सोदूंक
तेन्ना बुडली
दिसाची धार
दर्या पलतडी

# तारूं

निश्चयाचें तारू
पलतडी पावुंयेता
मन भयाचें तारूं
मदीं बुडुंयेता

# नखेत्रां

गिन्यानाचे खाणींतल्यान
एक एक
उतर भायर सरलें
आनी..........
तेन्नाच मळबांत
नखेत्रां चकचकूंक लागलीं
भोंवतणचो वाठार
सैतानाचे तावडींतल्यान
तेन्नाच
सुट्टना दिसूंक लागलो.

# रंग

तुजे जिणेंत
रंग भरतना
म्हजे जिणेतलो
रंग ना जालो

# राजकुंवरी

सपनांतली
राजकुंवरी म्हजी
दिश्टीन केन्नाच
देखली ना

सदांच सपनेतां
हांव
सपनांतले राजकुंवरीक
दृश्टांत पळोवपाक
पूण म्हजें
नशिब फुटकें
फुटक्या नशिबाचेर
आस म्हजी

म्हाका खंय खबर
फुटक्या नशिबाचीं सपनां
फुटकींच आसतात म्हणून.......

# शून्य

जेन्ना

तुज्यांतली वैचारीक नदर

ना जाता

तेन्ना,

तुजो तूंच

शून्य जाता

तरीय तूं

तूंच आसता

फक्त

तुज्यांतलें तें

मनीसपणूय

तुज्या सारकेंच

शून्य जाता.

# सवणें

मळबांत
सवणें एक
मंद वाऱ्यार
उडत आसा

सवणे बाये
वाऱ्या वांगडा
उंच शिखर
गांठत आसा

सवणें भाना
विरयत जालां
मन-मेकळें
उडत आसा

मळब ल्हान
जायत आसा
सवण्या खोशी
वाडत आसा

मळबांत
सवणें एक
मंद वाऱ्यार
उडत आसा.

# सोद

मनाचो सोद
दर्याच्या अथांगासारको
सर्गाचो सोद
कल्पनेच्या बाणासारको
मोगाचो सोद
सत्याच्या रुपासारको
जल्माचो सोद
अनंता सारको

# हांव हो असो

हांव हो असो
अबरगत कसो
देखून म्हाका सगळे
पिसो म्हणटात
रस्त्यावेल्यान वतना
म्हाका पळोवन
तड्‌डकां उलयतात

पूण..............
हांव ओगीच रावतां
कोणाक कांयच
म्हणपाक वचना
कोणाचें कांयच
आयकुपाक वचना

तरी .............
केन्ना केन्ना
हे म्हजेरुच
बगलांट हाडटात
पिसो जावनूय
आमचे वाटेक
गेलो ना कसो
अशेंय म्हणटात

# अस्मितायेचें गोंय

सोबीत गोंय
सैमान नटिल्लें
पांचव्याचार झाडांनी
ल्हान-व्हड
दोंगर-दोंगुल्ल्यांनी
तरांतरांच्या
फळांनी, फुलांनी
फुलिल्लें गोंय
व्हाळा दर्यांच्या
ल्हारांनी नाचपी गोंय
सुकण्या-सवण्यांच्यो
आवाजान खुशालभरीत
जावपी गोंय
शांत मनांचें
नितळ काळजांच्या
वझऱ्या झरींचें गोंय
सुंदर गोंय
गोंयचे अस्मितायेचें गोंय

## प्रीत

आयज पोल्यार

अशी-कशी

प्रीत तुजी

फुलल्या

मोगा-वालीर

फुलां-फुलांत

गंध असो

परमळा

# आयल्यात तशो

आयल्यात तशो
वतले रे
कोण-कोणाक
रावना रे

खंयसून-आयल्यात
खंय वतले
कांयच कोणाक
कळना रे

आयल्यात तशो
वतले रे
चलप कांय
थांबना रे
कोण-कोणाक
रावना रे

पिकलें पान
गळचें तशें
मनीस जिणेंत
संवसाराची
पाळां-मुळां
तिगना रे

आयल्यात तशे
वतले रे
कोण कोणाक
रावना रे
तुजें म्हजे
गीत रे
गावचे अजून
आसात रे

## वजें

चितनांचें वजें
माथ्यार घेवन
हांव
आयज मेरेन
फुटपाथावेल्यान
चलत आसा
जिणेचे निमणे
खीण मेजीत आसा.

## शक्त

खरे किर्ते
फट किर्ते
वळखुपाक
शक्त जाय

सगळेंच खरें
आसत जाल्यार
फटोवपाक थोडी
सुवात जाय

## संघर्श

हे विनाशानो
तुमचें जैत केन्नाच जावचेंना
तुमचेकडेन जैत मेळोवपाखातीर
ध्येय आसा, सामर्थ्य आसा
पूण,
तुमचो संघर्शाचो मार्गूच
असत्याचो आसा

आमी जाणात
अनादी काळापासून जे
सत्यान संघर्श करीत आयल्यात
झगडल्यात, रगत सांडयलां
तांकांच जैत मेळळां
सत्याचें सदांच जैत जालां
देखून सांगतां
नश्ट्यानो
ह्या फुडेंय जैत
सत्याचेंच जातलें.

तुमकां तुमचे
जैत जाल्लें जाय
जाल्यार तुमी
असत्याचो मार्ग सोडात
तुमचे ध्येय, सामर्थ्य,
तुमचो संघर्श
सत्याच्या मार्गान व्हरात
तुमचें जैत जातलें.

# तूं

तूं
धडधाकट
आसुनूय
अबरगत
कित्याक ?

निस्वार्थीपणाचो
बुरखो
पांगरून
तुवें तुजो
स्वार्थ लिपयला
कित्याक ?

# काळ

हांव जिणेचो
थाव घेत आसा
आयजमेरेन
खूब भोगलें
बरें - वायट
बऱ्यो - वायट
गजाली अणभवल्यो
तें भुरगेंपण
तें तरणाटेंपण
आनी आतां
जाण्टेंपण
जिणेचीं आंगां ही
ह्या आंगांक
वेगळो वेगळो
थाव आसा
उतार पिरायेचेर
मनीस म्हणटा
काळ बदलता

पूण हांव सांगतां
मनीस काळावांगडा
जिणेचो थाव
घेत आसा
खरें म्हळयार
काळ एकूच
मनीस तो
कालचो आयचो
आनी फाल्यांचो

## सपन

दोंगराचे

ते घळयेंत

हांवे तुज्या वांगडा

सपन पळयलां

तूं आयलेंच ना

सपन म्हजें

ते घळयेंत

विरगळत आसा

# चंवरां

१

जिणेक रंग
चडपाक
जीण रंगयाळी
आसपाक जाय.

२

जिणेचें मोल
जीण सरतकूच
कळटा
तेन्नाच दोळे
उगडटात.

३

जीण ही अशी
रंगरंगयाळी
केन्ना केन्ना
आपलो रंग दाखयता.

४

जांणी पोट-फाट
एक करुन
काम केलें
तेच चार गोटे
खावंक पावले.

५

तानेक थाकाय
उदकाची
जिणेक थाकाय
मोगाची.

६

जाका लागल्यात
भिकेचे दुवाळे
तो सदांच
काडटा तळमळे.

७

जांणी केन्नाच
चितलें ना काम करचें
तांकां येवजता
बसून खावचें.

# तूं अशें

तूं अशें
शांत दर्यावरी.
तुजें हांसप
दर्यातल्या ल्हारांवरी.
तुजें चलप
दर्यांत देंवपी सुर्यावरी.
तुजें रुप
पुनवेच्या चंद्रीमावरी.
तुजें मन
मात
उमाशेचे काळखे-रातीवरी.

# भारत भुंयेक नमन

भारत भूंय आमची
करुंया तिका नमन
घेतला भार आमचो
सदांच आपल्या भुजार

भारत भूंय आमची
आमी ऋणी सदांच तिचे
शान तिची वाडोवची
जागून आमचे कर्तव्य

भारत भूंय आमची
जाती-कातीच्यो राती
ज्योत पेटोवन काळजाची
मोख सादुंया एकचाराची

भारत भूंय आमची
आमी भुरगीं तिचीं
घेवया खांदार घुडी
भारत भुंयेच्या जैताची

# जीण अशी

जेदेवेळार हांव
काळखांत जीण सारतालो
तेन्ना म्हाका
उजवाडांत जीण
सारता कशी दिसताली

आतां हांव
उजवाडांत जीण
सारुंक लागलां
तरी आसतना
ती म्हाका
काळखांत
सारिल्लेवरी दिसता

# तुजी वाट पळयता तेन्ना..........

तुजी वाट
पळयता तेन्ना............
खिणांचें जाता
मिनीट
मिण्टाचें
जाता वर
वरांचो
जाता दीस
दिसांचो जाता
म्हयनो
म्हयन्यांचें
जाता वर्स
तेन्ना जाता
म्हजो सगळोच विरस

# मोग म्हजो शेणटा

म्हजीं उतरां तुज्या पोल्यार
फुलां जावन फुलता
तुज्या हांशान म्हजें मन
जिणेचें सपन सोदता

मुखावयली जीण म्हजी
सोदीत हांव वतां
धावूय दिको तुज्यो म्हाका
वता आसतना दिसता

तुजो घात जायत म्हणून
उतराक हांव जपतां
उतराक जपता आसतनाच
मोग म्हजो शेणटा.

# मोनी उतरां

तुज्या दोळयांत

अळंग हांवे

म्हजीं मोनी उतरां

मोन्यांनीच सोडलीं

आनी अजाप

तुज्या दोळयांक

म्हजें गुपीत समजलें

# कीर्ण

आशेचें कीर्ण

सोदतना हांवें

सुर्याच्या कीर्णाकडेन

नदर भोंवडायली

तेन्ना.........

थंय म्हजें

आशेचें कीर्ण

भांगरा-गुळयांत विरगळटना

नदरेक पडलें

# चित्र

तुज्या-म्हज्या
दोळयांतलें
रंगा-रंगान
रंग भरून
आनीक एक
चित्र काड
रंगयाळें

# काळजाक काळीज तेंकना

रात दीस

तुजे यादीन

जीव

आकूळ-पिकूळ जाता

पूण......

मन फुडें सरना

देखून

काळजाक काळीज तेंकना

# नदर

तुजी म्हजी
नदरेक नदर
पयलेच खेपे
घुस्पली तेन्ना
मुमुरक्यांनीच तूं
हांसून गेलें

दुसरे खेपे
वाटेर मेळळें
तेन्ना तूं
म्होवाळ उतरांनी
म्हजेकडेन
उलोवन गेलें

तेन्नासावन
म्हाका तूं
सदांच मेळूंक
येतालें आनी
मोगा-गजाली
करुन वतालें

आनी........
आतां मदींच
मात्शें बिनसलें
तुजी - म्हजी
फुडाराची साथ
घडोवन येवचे
पयलींच तूं
फटोवन गेलें.

# बंदखण

अजून वेळ
येवचो आसा

आतांच सुरवात
जाल्ली आसा
सत्य भायर
सरचें आसा.

अजून वेळ
येवचो आसा

जगाक खूब
कळचें आसा
तुका म्हाका
उलोवचें आसा.

अजून वेळ
येवचो आसा

ल्हाना-व्हडांक
समजुचे आसा
कूट निती
उगडची आसा.




अजून वेळ
येवचो आसा

मनाक मार
मेळचो आसा
हांशें तुजे
जावचें आसा.

अजून वेळ
येवचो आसा

सत्याचें पान
हालचें आसा
बंदखण तुका
भोगाची असा.

अजून वेळ
येवचो आसा.

# सत्य

तूं असत्या फाटल्यान
धांवत आसा
हें साप्प बरें न्हय
खरें अस्तित्व
जातूंत आसा
ती गजाल तूं
साप्प विसरला
सांडून बसला
तुज्या स्वार्थामुखार
तूं दोळे आसून
कुड्डो जाला
हें कुड्डेंपणूच
एक दीस
सत्य उजवाडा हाडटलें
तेन्ना सगळे म्हणटले
सत्याचें जैत जालें

## जाप

तूं त्या झाडावरी
वारो आयलो
म्हणटकच हालता
वोत पडलें
म्हणटकच सुकता
पावसान भिजता
शियान कुडकुडटा
आनी हांतूतल्यान
एक सुंदर
रुप घेता
तेन्ना कोणाक तरी
तृप्त करता.
काय.......?
ह्या प्रस्नांची जाप म्हाका
त्या झाडाक
पळयतकूच मेळटा....!

# पावसाचो सांगात

संतत पावसाची धार
म्हाका आपलें गुपीत
सांगूक सोदता
देखून
पावसाचे धारीचो
सांगात हांवें
आपणायला
असो
भर पावसांत
उबो रावन

# युग

आयच्या युगाक
आयच्यांची साथ
फायच्या युगाक
फायच्यांची साथ
कोण सांगतलो
कोण कसो
वाडटलो,
कोणाची संगत धरतलो
कोणाक सांगात दितलो
कोणाचे नांव वयर काडटलो

पूण..........!
एक मात खरें
जो वयर सरतलो तो
कितेंय तरी करतलो
बरें वा वायट
तें मात ताकाच
खबर आसतलें

पूण.............!
खरी गजाल अशी
म्हळयार आयच्या युगाची
दशा पळयल्यार
सगळयांचो घुस्मटमार
सगळयांक हायहुलोप
सगळयांक चेंपण
सोंसचे पडटा

# जीण ही अशी

जीण ही अशी
जगय जगयसर जगोवपी
वेळ आयलो म्हणटकच
मरणाच्या दारांत
व्हरुन उबी करपी



## प्रा. अशोक नायक

- जल्म - २६ ऑक्टोबर १९६४ वर्सा बेतकी माशेलहांगां. सध्या रावता सावित्री निवास, घर-पटी क्र. ७८०/३, धुमेंभाट, कुट्ठाळी, गोंय हांगां.
- शिक्षण - एम. ए. बी. एड्.
- शाळेत शिकता आसतनाच कविता बरोवपाक सुरवात.
- चरित्र लेख कोंकणीत तशेंच मराठीत नेमाळ्यांनी प्रसिध्द जाल्या.
- पत्रकार म्हूण १९८७ सावन दै. सुनापरान्तातल्यान सुरवात.
- दै. सकाळ, दै. पुढारी, दै. गोमन्तक, दै. राष्ट्रमत, दै. गोवा टाईम्स, दै. उ. हेराल्ड ह्या दिसाळ्यांनी वार्ताहर म्हूण काम केला.
- सध्या कुठ्ठाळी वार्ताहर म्हुण दै. तरुण भारत आनी दै. सुनापरान्तात काम करता.
- २००० वर्सा कुठ्ठाळी कोंकणी सेवा केंद्राची स्थापना करपाखातीर फुडाकार.
- कुठ्ठाळी कोंकणी सेवा केंद्राचे संस्थापक अध्यक्ष
- सध्या कुठ्ठाळी केंद्राचे - निमंत्रक म्हुण काम पळयता.
- तिसवाडी पत्रकार संघाचे सरचिटणीस म्हुण वावर.
- कुठ्ठाळी पत्रकार संघाचे संस्थापक अध्यक्ष.
- कुठ्ठाळी ग्रामीण वाचपघराचे १९९९ ते २००१ ह्या दोन वर्साच्या काळाखातीर अध्यक्ष म्हूण वावर.
- कुठ्ठाळी जागृत नागरिक समितीचे जोड सचिव.
- समीर साळगावकर हांच्या सहकार्यान शिकपी भुरग्यांखातीर कुठ्ठाळी कोंकणी सेवा केंद्रावतीन २००२ वर्सां गोंयचो पयलो देवनागरीतल्यान फुकट संगणक प्रशिक्षण वर्ग सुरु करपात यश.
- आकाशवाणी आनी गोंय दुरदर्शनाचेर कविता आनी कोंकणीतल्यान कार्यक्रम सादर केल्यात.
- कोंकणी कविता सर्तिनी वाटो घेवन इनामां जोडल्यात.
- कुठ्ठाळी लायन्स क्लबान २००० वर्सा पत्रकारितेचे काम पळोवन प्रमाणपत्र, शाल, श्रीफळ आनी स्मृर्तीचिन्ह दिवन भोवमान.
- झुआरी लायन्स क्लबान २००४ वर्सा शिक्षण क्षेत्रातले योगदान पळोवन शिक्षक या नात्यान शाल, श्रीफळ स्मृर्तीचिन्ह आनी प्रमाणपत्र दिवन भोवमान.
- फांटली १९ वर्सा विद्यादानाचें काम करता.
- सध्या सांकवाळ हांगासल्ल्या शांतादुर्गा उच्च माध्यमिक ह्या विद्यालयांत कोंकणी आनी हिन्दी विशय शिकयता.